आवका-शिका (कवितां झेलो)

मोहीत प्रकाशन
सी-4-1, वैभव अपार्टमेंट,
मारुती देवळा लागीं,
दवर्ली, नावेली, गोंय 401 707

प्रकाशन क्रमांक 1



पयली उजवाडावणी
2011

छापणावळ
हिरू नारायण नायक
रत्नू ऑफसॅट, वळवय, फोंडें

मुखचित्र : गौरीश वेर्णेकार

मांडावळ : एस ग्राफिक्स
9423056333

मोल : रु. 120/-

हें पुस्तक कला आनी संस्कृती खात्यान 'लेखकां खातीर अर्थीक आदार' हे येवजणे खाला उजवाडायलां

म्हज्यो त्रिवेणिंतल्यो सांगातिणी
नूतन साखरदांडे
आनी
नयना आडारकार
हांकां
मायेमोगान

# मनोगत

**‘कल्पकेंजी’** ह्या म्हज्या पयल्या कवितां झेल्या उपरांत बावीस वर्सांनी म्हजो दुसरो कवितां झेलो ‘श्रावण-शिंवर’ तुमचे मुखार घेवन येतना म्हाका खूब खोस जाला.

खरें म्हणल्यार हें म्हजें 26वें पुस्तक. पूण आवयेक आपलें प्रत्येक भुरगें नवीन आसता आनी तिचलेंय अर्थ अपुरबायेचें आसता.

म्हजो पयलो कवितां झेलो उजवाडा आयलो तेन्ना म्हाका कथेन झपाटिल्लें. कवितेच्या मळार म्हजी पावली मात्शी हळूहळू पडटाली. कथेच्या ल्हारांत हांव बुचकळटना बालसाहित्याच्या सुनामींत चिंब भिजलें. आनी कविता खंय तरी फाटीं फाटीं उरपाक लागली. पुराय बंद जावंक नासली. बालगितां, नाचगितां, काव्य रुपान नृत्यनाटिका अशे तरेन ती म्हाका सादयत आशिल्ली.

म्हजी इश्टीण नयना आडारकार आनी नूतन साखरदांडे हांणी ‘त्रिवेणी’ची संकल्पना म्हज्या मुखार दवरली. आमी तिगांय जाणांनी मेळून कविता सादर करपाची ही कार्यावळ. म्हाका पाद जाता, आमी मंगळूर साहित्य परिशदेक गेल्लीं तेन्ना आमी तिगांयनीय मेळून हे कार्यावळीची आंखणी केल्ली. कविता कशी सादर करप हें तांणी दोगांयनीय म्हाका थंय शिकयलें. आनी तेन्नाच्यान आमचो ‘त्रिवेणी’चो हो काव्य प्रवास सुरू जालो.

पयलो प्रयोग आमी कला अकादमींत केल्लो. थंयच जायत्या जाणांनी आमकां गोंयभर ही कार्यावळ करपाक उत्तेजन दिलें. गोवा कोंकणी अकादमी

आनी अस्मिताय प्रतिष्ठान ह्या संस्थांनी आमकां अर्थीक पालवय दिलो. ह्यो कार्यावळी आमी अजूनय सादर करतात.

त्या प्रवासांत म्हजो सूर म्हाका परत मेळ्ळो. कथा, लेख, बाल साहित्य कितलेंय जरी बरयलें तरीय कवितेची धुंदी वेगळीच आसता. कांय विचार काव्यरुप घेवनच मुखार येतात, तांची कविताच बरी जाता हें सत म्हाका होलमलें. आनी काळजाच्या तळांतल्यान कवितेच्यो रोंपयो नेटान मुखार येवंक लागल्यो. तांचोच हो 'श्रावण-शिंवर'.

काव्य विश्वांत शेणपाक म्हाका आनीक एक माची मेळ्ळी. ती म्हणल्यार मडगांवच्या विद्यानिकेतनाची दर म्हयन्याक जावपी काव्यमैफील.

म्हज्यांतले कावयत्रीक परत जाग हाडली म्हणून म्हज्यो इश्टिणी नयन आनी नूतनाक हो झेलो ओंपतना म्हाका चड खोस भोगता.

ह्या झेल्यांतल्यो कविता वेंचूंक म्हाका आदार करपी कवी श्री. रमेश लाड हांच्या उपकारांत हांव सदांच आसतलें.

ह्या संग्रहाचें बरे भशेन टायपसॅटिंग करपी, बाब अमोल कामत, सोबीत मुखचित्र काडपी बाब गौरीश वेर्णेकर, ह्या झेल्याक सोबीत रूप दिवपी श्री. हिरू नायक आनी तांचे सहकारी हांच्या रिणांत हांव सदांच आसतलें. कला आनी संस्कृती खात्यान हें पुस्तक उवजवाडा हाडपाक अर्थीक पालव दिल्ले खातीर हांव उपकारी आसां.

निमाणे कडेन हो झेलो वाचकांक दितना म्हज्या हेर पुस्तकां वरी 'श्रावण-शिंवर' तुमकां आवडटलो अशी आस्त बाळगितां.

**- माया अनिल खरंगटे**

02-02-2011

## कुरू कुरू काना

कुरू कुरू काना, म्हशी वेतल्यो खंयच्या राना?
खंय शेणलीं रानां कोण जाणा?
एकसुरें भुरगें आतां शेणलीं सगळीं नातीं
खंयच्यान हाडचो मामा आमडून हाडूंक म्हशी?
दूद आटलें थाना, आल्लय जिरली मनां
मम्मा तुजी शेणल्या फायलींच्यारे पानां
क्रॅशांतल्या रे आण्टीगेर वाजय घुंगुरवाळे
ऑफिसांत बसून मम्माक लागल्यात तळमळे
न्हीद रे म्हज्या बाबू न्हीद एसीचे थंडायेंत
खेळूंक तुका व्हरीन कम्प्यूटराच्या आंगणांत
न्हीद रे म्हज्या बाबू न्हीद आतांच सुखान
जिणभर भोवूं जाय रे तुका चक्राचेर बसून
राखणेक तुज्या घालतां सैम सुर्याक गाराणें
आयुश्य आरोग्य लाबूं तुका हें आवयचें मागणें
जय रे म्हज्या बाबू जय कर रे
जय जय जय जय कर रे, जय कर रे

रसरसत्या होमखणांतल्यान जल्मल्ली
हांव एक धगधगती चूड
हांवच ती रणरागिणी अंबिका
रणझुंजार चंडिका
म्हज्या कणाकणांतल्यान शिंवरतात इंगळे
हे भुंयेचे अंदिल्यात जांणी गळे,
त्या राकेसांच्या रगताचीच म्हाका तान
हांव दुर्गा हांव चंडिका, हांव शांता, हांव सांतेर
संहारकर्ती दुर्गा, जल्मदात्री शांता
हांवच ती दुर्गा, हांवच ती शांता
हांव शांता, हांव दुर्गा, हांव शांता, हांव दुर्गा

## राधा-कृष्ण

वेळूच्या गो दाट रानांत
घुमलो वेणूचो नाद
सैर-भर जाली राधा
कृष्णान घालो साद

निळ्या निळ्या मळबाचेर
सुकण्यांची गो रांगोळी
नकेत्रांच्यो पेटल्यो पणट्यो
मळबांगणांत दिवाळी.

तीन कातेरेर धर्तरी
चडटा काळखाची माळी
यमुनेचे काळशे देगेर
राधा-कृष्ण खेळटा होळी.

## हो रस्तो?

हो रस्तो?
न्हय, हो एक मुळपुरूस
म्हाल म्हातारो जाणटेलो
माथ्याक फेटो, अश्टोंदेगचें पुडवें
अणभवान पिकिल्ले केंस
हो एक मुळपुरूस.
हो रस्तो?
न्हय, हो एक मूक गवाय.
इतिहासांतल्या घडणुकांचो
एकामेकांच्या रगताक तानेल्ल्या
खाल्ल्या पानार हळशीक करपी
त्या समेस्तांचो
हो एक मूक गवाय.

हो रस्तो?
न्हय, ही एक अखंड व्हांवती
ताका कसलीच शीम मेर लागना
जंय सोंपता थंयच्यान सुरू जाता
बरें-वायट, ,गरीब-गिरेस्त
सगळ्यांक सांगातान व्हरपी
ही एक अखंड व्हांवती.
हो रस्तो?
न्हय, हें एक होमखण
अनादी काळा सावन धगधगपी
ताका म्हणूं कोण वाट, मार्ग, म्हामार्ग
मेळत तें स्वाहा करपी
तें एक धगधगतें होमखण.

## म्हजो कावथो

म्हजो कावथो आतां माड जाला
मळब वेंगयता.
काल पयरच ताका हांव
सामकें म्हऱ्यांत म्हऱ्यांत जाय आमलें.
हांव घरांत ना जाल्यार
ताका सामको वाज येतालो
हांवें वाडले बगर ताच्या
पोटांत उंडी वचनासली
आज म्हजो कावथो माड जाला
मळब वेंगयता.

हॉटॅलांतल्या जेवणा बगर
ताका घांस वचना
फास्ट फुडा बगर ताचे जिबेक
कसलीच रुच लागना
इंटरनॅटाचेर चॅटींग केले बगर
ताका सूख लागना
म्हजो कावथो आतां माड जाला
मळब वेंगयता.
माडाच्या कवळाची सावळी लेगीत
आतां म्हजेर पडना
ताच्या राज्यांत म्हजी सुवात सोदीत
हांव भिरभिरतां,
म्हजे मांडयेवेल्या बाळशाच्यो यादी
जागयत हांव आतां दीस सारतां.

## खामसुत्री बावलीं

जगानें भायगेतलीं आमी
खामसुत्री बावलीं
आमच्यो दोरयो ताच्या हातांत
ताका जाय जाय तशो
जाय जाय तेन्ना तो
आमकां खेळयता, नाचयता
ताका जाय तेन्ना कितलींच
नवीं बावलीं मकयल मोडटा
जाय ताका अचळय वयर करता
आमी मात म्हणटात
हांवें हें केलें, तें केलें
हांव अशें करतलों
तशें करतलों,
पूण आमच्यो दोरयो
तो हालयता ताका जाय जाय तश्यो
ताका जाय तेन्नाच
आमी ताच्या हातांतलीं खामसुत्री बावलीं

(दिल्लीच्यान आग्रा वतना वाटेर)

## हीच आमची खोस

म्हजे धुवे म्हज्या पुता
तुमी आमचे इश्ट
आमचे हाण्डीवेले तुमी
आतां आमच्या खांदार उबे,
हातुंतच आमकां खोस.

आमचीं सपनां तुमच्या दोळ्यांत
भरपाचे दीस केन्ना सोंपले
तुमच्या दोळ्यांनी आमी तुमचीं
विशाळ सपनां पळयतात
हातुंतच आमकां खोस.

आमच्या मळबाक आतां शीम-मेर
तुमच्या अमर्याद मळबांत
फिरपाक तुमचे पांय थीर करप
हातुंतच आमकां खोस

तुमच्या बोटाक धरून तुमकां
चलोवपाचे दीस केन्ना सोंपले
तुमी घडयिल्ले नवे वाटेन
चलतना तुमकां तेळत रावप
हातुंतच आमकां खोस

## रथ नवे दुर्गांचो

रथा तुज्या घुडयो साडतिनशे दांडयो
रथांत कोण देवी बसे गे
रथांत बसल्या घर स्वामिनी
जना लोकांत सोबे गे
देवीक बारे भांगराच भांगर
न्हेसणा फुलांनी रथ भल्ला गे बाये
न्हेसणा फुलांनी रथ भल्ला गे
ताला मृगार धोलल्या रथार
देवी धोल धोल धोलना गे
रथा तुज्या घुडयो साडतिनशे दांडयो
रथांत कोण देवी बसे गे
रथांत बसे नवी दुर्गा
जन लोकां सोबे गे
भांगरा-शिंगराचो ना मोंम तिका
न्हेसणां शिरंगाराचो ना मोंम गे
सात घोड्यांच्या रथार देवी
लगाम तिच्या हातांत गे
आतां लगाम तिच्या हातांत गे
धायी दिको हुपत चल्ली
सगळ्या मळार ती फिशाल गे
रथा तुज्या घुडयो, सोडतिनशे दांडयो
रथांत कोण देवी बसे गे...

## धेंड-धेंडलो

धेंड-धेंडलो रामा पावस शेणलो
धेंड-धेंडलो रामा पावस शेणलो
पावस शेणलो रामा पावस शेणलो
पावस शेणलो रामा रानां माल्लीं
रानां माल्लीं दुडू कोणें खालो
दुडू खालो तांचीं पोटां वाडलीं
धेंड-धेंडलो रामा पावस शेणलो.
धेंडल्याची म्हातारी शेळें-हून खाताली
शेळें हून खावन पापया सुखी आसली
धेंडल्याची म्हातारी उपाशीं रे
आतां धेंडल्याची म्हातारी उपाशीं
कित्याक गे म्हातारे जेविना
पेजेच्या वाटलेंत म्हारगायेचो जल्लो
कशी रे पापया पेज जेवं
धेंड-धेंडलो रामा पावस शेणलो.
धेंडल्याची म्हातारी उपासान मेली
म्हातारेचें सुतक कावळो न्हालो
मात, तांच्या बंगल्यांचेर
पार्टेर पाट्यो, पार्टेर पाट्यो
धेंड-धेंडलो रामा पावस शेणलो.

# तरीय आमी सगळीं एक

तशीं आमी सगळीं वेगळीं वेगळीं
तरीय सगळीं एक.
आमची कॉलनी एक कुटूंब कशें
आजो, आजी, काका, मामा
दिदी, ताई, अंकल, आण्टी
सगळीं नातीं, सगळीं गोतीं
तशीं आमी सगळीं वेगळीं वेगळीं
तरीय सगळीं एक.
आमच्या फ्लॅटांचीं बंद दारां
दारां आड आमचीं बंद मनां
आमच्या गॅसार शिजता कण्णा
वास कॉलनीभर पातळटा
तशीं आमी सगळीं वेगळीं वेगळीं
तरीय सगळीं एक.
एका फ्लॅटांत वाडदीस जावं कितेंय
सगळी कॉलनी जाता उमेदी
एका फ्लॅटाचेर संकश्ट जावं दुयेंस
सगळी कॉलनी मायेची सोयरी
तशीं आमी सगळीं वेगळीं वेगळीं
तरीय सगळीं एक

# तुज्या मनांत म्हज्या मऩांत

तुज्या मनांत म्हज्या मनांत
मोगरी कळेल्या
आयला मोग भर भारार
जीण परमळ्ळ्या
पानां पानां आड रावन
कळयो किटकिट्टात
तुज्या म्हज्या मना-मनांत
सुगंध शिंपडायतात.

तुज्या मनांत म्हज्या मनांत
चंद्र पुनवेचो
काळजांनी उचंबळाय
दर्या गाजता मोगाचो
ल्हारार ल्हार चडट्या वेगान
मळब वेंगयतात
तुज्या म्हज्या मना-मनांत
सपन फुलयतात.

## अस्तमेचे देंगेर

अस्तमेचे देंगेर जेन्ना
सुर्या पावलां घुटमळटात
ल्हारां तुज्या यादींचों
मनां देग भिजयतात.

अस्तमेचें कपल जेन्ना
रक्तावरी तांबडें जाता
यादीन तुज्या दोळ्यांकड
ओली जावन पगळटा.

अस्तमेचीं सपणां जेन्ना
अळंग सुर्या देवंक लागता
काळीज म्हजें घुस्मट्टा
यादी उज्यान हुलपता.

अस्तमेक सुर्या जेन्ना
निमणो हात दाखयता
याद तुजी भोंवऱ्या वरी
मना खरींत भिरभिरता.

अस्तम जेन्ना तोंडावेल्यान
काळो बुरखो पांगुरता
मनाचो बांद फुटून
दुकां पाट व्हांवंक लागता.

# फूल गो फुला

फूल गो फुला, फूल गो फुला
फूल गो बाये फूल
वान्या वांगडा घोलपाचे
दीस तुजे हांसपाचे
परमळाय हांशान तुज्या
वाठार तुज्या भोंवतणचो
पिटोळ्यांच्या वंटा वंटार
चंवर फुलूं कवनुलांचो
साळोरेच्या ताळया-गळ्यांन
सूर घुमू गीत-फुलांचो
भंवर गितां गायतले
खेळोवन तुका भुलयतले
अळंग एका सदळ खिणार
म्होंव खावन धांवतले
फुलप-फळप धर्म जरी
बावपाचो चुकना श्राप
तरी तुवें फुलूंक जाय गो
तरी तुवें फुलूंक जाय.

# रुपडीं

आमच्या तोंडार रुपडींच रुपडीं
वेगळ्या वेगळ्या मापाचीं
वेगळ्या वेगळ्या रुपाचीं
दर एकल्या मुखार सोबोवपाचीं
रंगरंगोवन माचयेर नाचोवपाचीं
आतां ह्या रुपड्यांची जाल्या संवय
हांचे आड लिपिल्लें म्हजें खरें रुप
आतां हांवच तरी वळखन काय?

## वसंत येता

वसंत येता - वसंत येता
शिगम्या धोलार तोणी पडटा
वसंताचें स्वागत करूंक
सैम देवता नेंमूंक लागता
कंवळी कंवळी तांबूस आंकरी
हालत धोलत येवकार दिता
आंब्या चंवरा दिसाळ वास
मोगरें तातूंत परमळटा
वसंत येता - वसंत येता
कोगूळ घालता प्रियेक साद
सैमाचेर येता भार
रूखां खांद्यार फुलां-फळां
भरून व्हांवता धादोसकाय
वसंत येता - वसंत येता
परमळटा घमघमता
वाजत गाजत वसंत येता
रान शिंगार करून घेता
म्हातारेच्या दारांत मात
एक रूख बोडकोच उरता.

# फाट राखणें

चंद्र त्या झाडा आडसाक रावन
चान्नें ओतता
चान्नें पिवन पिवन झाड
कोणा सुंदरेच्या कानांतल्या
वज्रांवेडी वरी लकलकता
जडावल्ल्या मनाची ती
पाणवट्यार येतना वतना
पानापानांतल्यान गळट्या चान्न्यांत
शिणमुक्त जाता
तिच्या भारान जडावल्लें तें झाड
अळंग ताळयो हालयता
तिचें फाट राखणें जाता.

## सपन मुदयाळें

उगरमेळे कळयेन एक
गुपीत उक्तायलें
मुदयाळें सपन वालीच्या
काळजार उदेलें
कळयेन ओंठ हालयले ना
उतर भायर फुटलें ना
गंध परमळ्ळो पाना आडच्यान
फांतोड फुल्ली उदेंते पोरसांत
चोर पावली माल्ली वाऱ्यान
दिका जागली भंवर गितान
मना मनाचें मिलन घडलें
पाकळे पाकळेन फूल फुल्लें.

## मोगाळ गोंयकारांनो

मोगाळ म्हज्या गोंयारांनो गीत गावुंया
सुटके दिसा यादीक आमी नमन करुंया ।।धृ।।
रक्ताचो घालून सडो
दीस भाग्याचो हो दिलो
तकली बागोवन त्या झुजाऱ्यांचो उगडास जागोवंया ।। सु. दि. ।।
धर्म भेद जाती पाती
तोडच्यो ह्यो नश्ट्यो रिती
सतारीच्या झंकारांतल्यान एकचाराचें गीत गांवया ।। सु. दि. ।।
अपरान्त हें भांगराचें
ल्हारां ल्हारांर उचांबळीत
परत एक फावट ताका आमी समृद्ध करुंया ।। सु. दि. ।।
सैमाचे मांडयेवयलें
माणकुलें गोंय आमचें
उमेदीचो घसघसो ताचे व्हंटयेंत रकोवंया ।। सु. दि. ।।

## आज धर्तरी

आज धर्तरी चींब चींब ओली
पाचव्या पालवांत मुग्गुट्टा
तरीय पोरसांतलो कडुलींब
हुस्कार कित्याक सोडटा?
आवाज तुजो कोगळा असो
वाठार सगळो गाजयता
तरीय फाटल्या दारा आम्गेरेचेर
अशें किण्ण कित्याक पातळटा?
पोरसूं आयज आयलां भारार
भुल्लुसून श्रावण फुल्ला
पूण आबोले तुज्या ओंठावेलो
हांसो कोणें पुसून व्हेला?

# ताजमहाल - एक महाकाव्य

ताजमहाल एक अप्रूप
ताजमहाल - एक सौंदर्याची खाण
ताजमहाल - एक महाकाव्य
ताजमहाल - चारय वेदांचें सार
ताच्या एका एका फातरांतल्यान
पातेता एक एक ऋचा
ताचेवेली नक्ष दिता गवाय
वेदांतल्या सुक्ता-सुक्तांची
ताच्या कणा-कणाची सुंदराय
दिता दोळयांक कल्पांताची थंडाय
ताजमहाल एक तरल धूंद सपन
जें देखलें एका अप्रूप नरवरान
जें साकारलें कांय अद्‌भूत हातांनी
जाची तोड ना ह्या चराचरांत
हें अद्‌भूत अप्रूप शिल्पकाव्य.

(आग्र्याक गेल्ले कडेन)

# सोपूत

एकचाराचो आमी घेवन मांडून
शाळेंतच तोंडपाठय केल्लो
आमी सगळीं एक म्हणूंक
भेसय एक सारकोच घाल्लो
तरीय वेगळेचाराचें बीं
केन्ना तरी मनांत किल्ललें
आतां त्या महारुखाचीं पाळां-मुळां
आमच्या घराघरांनी पातळ्ळ्यांत
एकेच वणटीच्या दोन कुशींनी
दोग जाणांच्यो दोन चुली पेट्टात
हे रांदनीर जर शिजलें, करपलें
ते वटेन ताचो वासय पावना

बंद दारा आडच्यान कसलीच
सुलुसय कोणाक लागना
आवय-बापूय भयण-भाव
नातें एकाच रगतान रंगिल्लें
दुडवांच्या काळ्या रंगान
पयस पयस पावयिल्लें
तरीय एकचाराचो सोपूत
शाळांनी शिकयत आसतात
आमी सगळीं एक गा
माये मोगान रांव गा
म्हणत आसतात, म्हणत आसतात.

## रिमझीम रिमझीम
## झडटा पावस

रिमझीम रिमझीम झडटा पावस
न्हंयां न्हंयांक आयला हुवार
दोळ्यांक देवकेच्या लागल्या धार
असोच पावस तेन्नाय झडटालो
कुसव्यांत म्हज्या कृष्ण जल्मल्लो
घाय काळजांत दवरून गेलो
यशोदेचो ताणें कुसवो उजयलो
रितें उडयलें आंगण म्हजें
भल्लें सगळें गोकूळ ताणें
रिमझीम रिमझीम झडटा पावस

तुका म्हणूं कोणेंय नंदाचो पोर
तुका म्हणूं कोणेंय यशोदेचो कान्हा
तूं रिगलो जरी गोपींच्या मनां
तूं म्हजो रे म्हजोच तूं, तूं म्हजोच रे
हो नाद म्हज्या तना-मना
रिमझीम रिमझीम झडटा पावस
तूं आसलो जरी पयस खंयी
नदरेंत म्हजे रे तुजीच सावळी
मना तळ्यांत साळका कळो
तुज्या म्हज्या मोगाचो सुवाळो
काळीज कुपयेंत बंद जरी
नाद घुमता मळबांतरा
रिमझीम रिमझीम झडटा पावस

## चंद्रीम हांसता मळबांतू

चंद्रीम हांसता मळबांतू
भूंय न्हाता चान्न्यांतू
रूप तोंप्रेता तुज्या दोळ्यांतू
चान्नें पिल्ल्या तळ्या देगेरू.

चंद्रीम हांसता मळबांतू
सैम न्हाता चान्न्यांतू
प्रित झेलता फुलां फुलांरू
चान्नें पिल्ल्या मळ्यांतू

चंद्रीम हांसता मळबांतू
दर्या ल्हारेता चान्न्यांतू
मोगातारूं धांवता ल्हारांल्हारांरू
चान्ने पिल्ल्या दर्यारू.

(वेर्णा पठाराचेर पुनवे रातीं)

## आज मिलन

सूर-गंगेचे देगेर
सजल्या एक माची
मन मयूर फुलोवन पाखां
करता थुई थुई नर्तन
वाऱ्यान धल्ला ताल मनोहर
वेळुच्या पाना पानार
साजा विणें सूर आळयतात
सुमेळ सादला सुकण्यांनी
तो येतलो येतलो सांगता मळब
धोल ताशे वाजोवन वाजोवन
हुरहूर अनामीक मन कुपांत
आज मिलन धतरिच्या गोपांत

## नीळ-निळश्या मळबतळा

नीळ-निळश्या मळबतळा
ल्हार ल्हार दर्या,
घूं ऽऽ घूं ऽऽ घूं घुंवता वारो
मोग गीत गायता.
दर्या मळब मिलन जंय
सूर नवे फुलता
हातांत आमचो हात गुंथता
मन भंवर गुणगुणटा
वेळेर गाजता दर्यागाज
अर्थ नवो सांगता आज
सैम उर्बे येवकारा
शिंवरीत आमचेर अक्षता.

# सात पावलां

जिणेच्या ह्या सांजे वेळार
ओले रेंवेर नक्षी काडत
परत एकदां हातांत धरून हात
चलया आमी पावलां सात ।।धृ।।

धाय दिकांक ह्या हजार हातांनी
शिंवरुंदी आमचेर अक्षता
सवण्यांकय म्हणुंदी मंगलाश्टकां
कोगळा गितांत भरसून सूर ।। परत एकदां ।।

थरथरचिना पावलां आतां
हुरहुरचेंना काळीजय बी
तुज्या धिराच्या उतर फुलांनी
परमळीत ही जातली जीण ।। परत एकदां ।।

नाका वाजंत्रां, कणकण तांचो
गजबजय नाका सोयऱ्या धायऱ्यांचो
फाटल्या यादींच्यो सोडयत गांठी
चलया आमी जावन मुक्त-मुक्त ।।परत एकदां ।।

## हो वारो मस्तो मस्तो

हो वारो मस्तो मस्तो
म्हज्या केंसांत घुम्यता
केंस वाऱ्यार हुबयता
हो वारो मस्तो मस्तो
म्हज्या मनांत घुंवता
मन मळबांत हुबयता
हो वारो मस्तो मस्तो
म्हजे कुडींत रिगता
म्हाका घुस्मटायता
हो वारो मस्तो मस्तो
म्हज्या काळजांत देंवता
काळीज वाऱ्यार धोलयता
हो वारो मस्तो मस्तो
म्हाका मोयपासांत घेता
हो वारो मस्तो मस्तो.

## हांव एक आवय

हांव एक आवय
म्हज्या अपुरबायेच्या माणकुल्याची
म्हज्या फाटल्या भावंडांची
म्हजें नंडेची आनी देराची
हांव आवय -
म्हज्या मांय-मांवाची
म्हज्या आवय-बापायची
आनी केन्ना-केन्नाय
म्हज्या घोवाचीय.
हांव आवय -
ह्या सगळ्या चराचराची
हांव एक जगन्माता
सगळ्यांक भोगसुपी, सगळ्यांक वेंगावपी
हांव सांतेरमाता, हांव धर्तरमाता.

## तरण्या इश्टा

नव्या युगाच्या तरण्या इश्टा
चित्त तुजें भोंवता मंग
फुलपाखी नदर भीर भीर
उडटा कित्याक चंय चंय -
नव्या युगाच्या तरण्या इश्टा
पावल तुजें ना रे थीर
मळब तुका पेलूक जाय
मातयेंत पांय घट्ट रोय -
नव्या युगाच्या तरण्या इश्टा
सांगतां मात्शें आयकून घे
जावंनाका रे काळखा धनी
उजवाडाची दिका पळय -
नव्या युगाच्या तरण्या इश्टा
ओगीच मारूं नाका झेत
देश तुका सादयता रे
सरादोचेर दाखय धिटाय -

# गुपीत

तांबशे तांबशे पोले तुजे
हांसरे नाचरे दोळे
थरथरथर ओंठ तुजे
गुपीत कसलें धांकलां तुवें गो
कसलें गुपीत धांकलां.
खंयचे दिकेन आयलो वारो
सांगावो कसलो हाडलो
भास तुज्या काळजाची
दोळ्यांत ताच्या देखली गो?
दोळ्यांत ताच्या देखली?
थिरक थिरक पावल तुजें
झनक झनक पांयजणां
मन मोर नाचता तुजो
सांग खंयच्या आंगणां गो
सांग खंयच्या आंगणां
वाऱ्या विणें धोलता कूड
फुलां विणें फांकला परमळ
लजे शिंवर आंगभर
पुनवे विणें चान्नें कशें फांकला गो?
चान्नें कशें फांकलां?



## पड रे पावसा - 1

पड रे पावसा पड रे पावसा
शिडशिडून पड
फाटल्या दारा फुडल्या दारा
उदक उदक कर ।। धृ ।।
रखरखता संवसार हो
जीव तानेन तानेला
म्हॉव नाका दूद नाका
उदका थेंब्याक आशेला ।। पड रे ।।
शेता थडेर रावन बेबें
तुका आपयतात
शेतकाराचीं मुकीं शेतां
तुका हुस्केतात ।। पड रे ।।
करपून गेला वाठार सगळो
झडल्यांत रुखां पानां
परतून एकदां नाचनी मोराक
पालेवं रानां वनां ।। पड रे ।।
कागदा होड्यांत बसून आमकां
आंगणभर भोंवुंदी
भुरगेपणाच्यो यादी आयज
परत चंवरा येवंदी ।। पड रे ।।

# पावस - 2

पावस,
धर्तरी मळबाचें मनभुलोवणें मिलन
ओलें आंग तिचें आंक्रेता, कोंबेता
पाचवीं सपनां मातयेंत पसवतात.
पावस,
भुरग्या मनाची अप्रुपाय, तोखणाय
आंग ओलें चींब माथ्यार छत्र आसतनाय
रस्त्यावेल्या व्हाळांत कागदाचीं व्हडीं व्हांवतात.
पावस,
वाड्या वाड्यार एक तरी विरहकाणी
प्रेमी जनांची पोन्नीच जरी काणी
घराघरांत नवीं गितां नवे सूर आळयतात.
पावस,
जाणट्या मनाक वाज उबगण
घरचे घरा बंदखणीची ख्यास्त
फाटल्यो यादी मना बांद फोडून व्हांवतात.
पावस,
हुंवाराचो, सांवाराचो, जगबुडटेचो
मस्तो मस्तो, जाय जाय सो, नाका नाका सो
तरी वर्सावळीचो तूं येत रावचो, येत रावचो.

## पावस सृजन - 3

धर्तरेचें सृजनतायेचो तो सुवाळो
भिजयता तिचें आंगान आंग
रुजयता कणान कणाक
फुलयता तिच्या तनामनांत पाचवें सपन
हाडटा भार तो म्हजेय सृजनतायेक
थरथरायता ल्हवें-ल्हवेक
हाडटा कोंब कणाकणाक
फुलयता नवीं सपनां म्हज्या तनामनांत
धर्तरी घेता पिवन थेंबान थेंब उदक
करता सुगूर फुडार
आपल्या बाळ-बाळशांचो
वचूं नये म्हूण करपून पाचवें सपन.
हांवय पितां दोळ्यांनी थेंबान थेंब उदक
तनामनांत घेतां भरून
सृजनताये पासत फुडाराच्या
करपून वचूं नये म्हणून साहित्य सपनां.

## मायभास

गर्भकणयेंत आसतनाच
आवयच्या मोगाळ उतरांनी
आयली पयली कंवळी जाग
तीच म्होवाळ म्हजी भास
कोंकणी म्हजी भास.
हे धर्तरिक पावल तेकतनाच
उतरां आयकलीं येवकाराचीं
गोड म्होव्या उतरांची रास
तीच म्होवाळ म्हजी भास
कोंकणी म्हजी भास.
त्यो आल्लयो तीं म्होवाळ कातारां
ताणींच जोजयलें म्हजें भुरगेपण
तीच म्होवाळ म्हजी भास
कोंकणी म्हजी भास.
अंता मेरेन ह्या जिविताच्या
उरची झरत जीण म्हजी
उरचो स्वासांत तिचोच वास
तीच म्होवाळ म्हजी भास
कोंकणी म्हजी भास.

## जय भारता

भारत भुंये आमचे मायें करतात जयजयकार
तुज्या भांगराळ्या दायजाचे आमी जातले राखणदार
जय जय भारत माते, जय जय भारत माते
सोबीत कितली भूंय तूं
सागर धुयतात पांय तुजे
हिमालयांचीं तेमकां गायतात
ताला सुरांनी गोडवे तुजे
तुजेच खातीर झुजतात आमी करतात जयजयकार
तुज्या भांगराळ्या दायजाचे आमी जातले राखणदार
जय जय भारत माते, जय जय भारतमाते

भाग्यवान हो कुसवो तुजो
सुपूत हांगा कितले जल्मले
गांधी, नेहरू, सुभाषबाबू
आनी कितलेच अमर जाले
आमीय तांचेच वारस देखून करतात जय जयकार
तुज्या भांगराळ्या दायजाचे आमी जातले राखणदार
जय जय भारत माते, जय जय भारत माते
रंगरंगयाळे सोबीत सुवाळे
खेरीत दबाजे फुलां-फळांचे
भेस हांगाचे वेगवेगळे
मनभुलोवणे रंग रुतूंचे
हुबोवन तिरंगो ऊंच आमी करतात जयजयकार
भारत भुंये तुजे पूत आमी जातले राखणदार
जय जय भारत माते जय जय भारत माते

केळ

आयज म्हाका आयल्या केळमी
पयलीं वयलीं आयल्या केळमी
कुकुलींच कंवळीं कवळीं
आयज म्हाका आयल्या केळमे
कुचकुचीत केळमे आता येतले वयर
तोखणायेन तांच्या थोलतना
वेंगेंत म्हज्या एक घडाय
तकली भायर काडटली
कुकुल्याच केळ्यांचो
तांबडया जांबळ्या बोंडाचो
घडाय म्हजो वाडटा तमो
केळमे म्हजे जातल्यो केळी
कितल्योश्योच धुवो म्हजो
वारसो म्हजो चलयतल्यो
रीण आवयचें पावयतल्यो
तृप्त तृप्त मनान मागीर
निरोप तांचो घेतली हांव.

# ख्यास्त

फातर मनान उंच सरयेर पोटा खातीर
नाडेपन्न करची ख्यास्त
फुलां वांगडा विखाळ कांटे
अळंग पोशांत घेवची ख्यास्त
उगड्या दोळ्यांक धांपणी बांदून
खडबडीत वाटेन चलची ख्यास्त
जल्मा सावन मरणा मेरेन
फकत तोल सांवरपाची ख्यास्त.

## दर्यादिग

दर्याची देग हांव
म्हणटी म्हाका भाग्यवान
तड नाशिल्लो दर्या राजा
गोपांत सदां खेळटा म्हज्या
खरेंच काय हांव भाग्यवान?
देवाऱ्यांतली ताच्या देवता हांव
तरीय ल्हारांच्या पांयजणांच्यो
पांयांत म्हज्या घाल्यात बेडयो

दर्याचें धन मोलादीक
नित्य भरी व्हंट म्हजी
फेंसाळ धव्यो मोगऱ्या माळी
बंदिस्त करती जीण म्हजी
म्हजे वयर उक्तें मळब
सुकण्या भिरीं सादयतात
दर्या गोपांत खेळटनाय
मन पाखरूं फडफडटा

आगे म्हजे मोगा देगे
नासत जर तुजी मोगा वेसण
अर्दकुटेंच म्हजें जिणें
म्हजे विणें तूं जायत गे पूर्ण?
जशी शिवा विणें शक्ती अपूर्ण
शक्ती विणें शीव जावचो ना पूर्ण
शीव-शक्ती मेळूनच मगे हो
घडटा सोबीत संवसार नवो

## ही वाट वळणा-वळणांची

ही वाट वळणा-वळणांची
आमच्या जिविताची
वाटेर पेणीं कितलींशींच
मेळटा केन्ना केन्नाय दवरणें
नातर फक़त हुमकळावणी
ही वाट वळणा-वळणांची
आमच्या जिविताची

वाटेर रखरख वोताचो
मेळटा केन्ना केन्नाय थंडाय
झाडांपेडां कुळागराचीं
ही वाट वळणा-वळणांची
आमच्या जिविताची
वाटेर भेटतात कितलेच जाण
मेळटात केन्नाय इश्ट सांगाती
आनी केन्नाय दुश्ट दुस्मान
ही वाट वळणा-वळणांची
आमच्या जिविताची
वाटेर तरेकवार सवंगां
मेळटात पळोवंक नवीं नवलां
आनी केन्नाय अप्रूप अजापां
ही वाट वळणा-वळणांची
आमच्या जिविताची

## तुजी सासाय

काळींकिट्ट भयाण गत
वादळी वारें घुंवघुंवता
विजांचो कडकडाट
पावस रकता दडका दडकांनी
कसलो हो सांवार
जग बुडटेचो काय?
उन्मत्त भूंय पुतांच्या
सैम सांवाराचो?
तुजे गर्भकुडींत
दिवलेच्यो वाती
थरथरतात, फरफरतात
तुजी गर्भकूड उजळायतात
काळ्याकिट्ट काळखाक
ना नपयत करतात
इल्लेशे ज्योतीची ही तांक?
न्हय गे, ही तुजीच सासाय.

## बाबू यो रे बायू यो गो

बाबू यो रे बायू यो गो, कोणय पूण येयात
घराची घडी म्हजी विस्कटावन उडयात.
सुपांत आसात तांदूळ-गोटे घरभर शिंपडायात
भरिल्लो कळसो सगळो घुसू घुसू रकयात.
कपाटाचे हारशे पळय वाट पळयतात बोलाची
घराच्यो वणटी आशेतात, पळोवंक तुजीं भिरभिटीं
आज्येन केल्ले पोळे, मांडे, तुका जय करूंक रावल्यात
धाकटुले पोपे तुजे सुकोवंक दोरी आशेता
आई आई उलो तुजो कानार म्हज्या सादता
तुजे विणें घर म्हजें रितें रितें दिसता
बाबू यो रे, बायू यो गो कोणय पूण येयात
घराची घडी म्हजी विस्कटावन उडयात.

## घुस्मटमार

जाणीव येत साकून हो
घुस्मटमार घुस्मटमार
फकत सोंसप सोंसप
आड्डी मारून रडचें
अशी केन्नाची खर इत्सा
रडूं तरी कशें? कोणाच्या पावलांत?

देखून एक दीस गेलें
दर्याक दुकां भेटोवंक
ताच्या पोशांत दुख्ख रकोवंक
दुकां पिवन पिवन जड जाल्ले ओंठ
रुंदायत तो हांसलो
म्हजीं दुकां पोशांत घेवंक
ताणें हात फुडें केले
आनी कच्च करून
हांव साबुद्देर आयलें
इतलीं दुकां पिवन हांसपी हो दर्या
म्हज्या दुकांनी ताका
आनीक कित्याक जड करचो?
आतां हांवें थारायलां
ताचे वरी हांवेंय दुकां लिपावेन
हांसचें, हांसचें आनी हांसत रावचें.

# एक पूज्य

आमचे दूदगंगेंतलो आमचो गिरो
आमच्या गिऱ्यावेर आमचो देश
आमच्या देशांत आमचें राज्य
आमच्या राज्यांत आमचो गांव
त्या गांवांत हांव, हांव, हांव
म्हजें घर, म्हजो घराबो, म्हजे मोयरे
म्हजो बंगलो, गाडयो मोट्टें कर्तूप.
सगळे कडेन म्हजें नांवच नांव
विश्वाच्या नकाशांत हांव
फक्त एक पूज्य.

(अश्टविनायकाक वतना वाटेर)

## सैमा गो

सैमा तुज्या गोपांत कितलीं अप्रूपां
कितलीं पळोवं, कितलीं तोखेवं
दोळ्यांची तान गो न्हिवून न्हिवना
सैमा तूं गो सपन एक पाचवें पाचवेंचार
पाचव्यांतूय भरसयल्यात कितले रंग सांग?
पिशोलाचे रंग गो तुजे सोंपून सोंपनात?
सैमा तूं गो अजापाचो एक चित्रकार
दोंगराकय दिल्यात तुवें रुपां तरेकवार
काळजाचो पाझर तुजो गो सोंपून सोंपना?
सैमा तूं गो एक फिशाल शिल्पकार
काय म्हणूं तुका नवलांचो जादूगार?
आंगा आंगार गो तुज्या दिसता चमत्कार.

(अश्टविनायकाच्यान येतना)

## दोन देगो

आलतडीन झडटा म्हजेर पावस
पलतडीन झडटा तुजेर पावस
मदल्यान व्हांवते न्हंयेक वळय
लागल्या कशी उचांबळाय
मन रे म्हजें मन रे तुजें
चींब चींब भिजता अशें
एकामेकांच्या गोपांत रिगचो
संद केन्नाच मेळचिना
जाणूनय मन पिशें
लागल्यात ताका हुमहुशे.
आमचीं जळटीं काळजां पळोवन
न्हंय जाल्या आकूळपिकूळ
नकळ घडटा कित्याक अशें
फकत एकामेकांक पळयत बसपाचें
न्हंये माये कानांत मात आमी
गुपीत आमचें सांगपाचें?

## याद तुजी

हरंधारांनी रकता पावस
मन जालां ओलें चींब
याद तुजी चिप्प भिजून
सुणक्या वरी कुडकुडटा
मना तेंगशेर घोंटेर एक
वाऱ्या वादळांत घेता झेल
यादीचें सुकणें आमचें
आंग चोरून थरथरता.
रकनी कितलोय पावस पिसो
येवनी मोडां पडनी विजो
काळजा कुरकुटांत यादीं ज्योत
मंद मंद तेंवतली, मंद मंद तेंवतली.

## गुलमोहर

गुलमोहर एक पिसो कसो
पानान पान झडयता
शिगम्यांतलें सवंग कसो
फुलां भेस चडयता
गुलमोहर एक मुनी कसो
सकाळच्या शितळ वारार
भोंवतणचो संवसार विसरून
ध्यान लावन बसता
गुलोहर एक आडागी कसो
पाकळी पाकळी गळयत बसता
नितळ केल्लें आंगण म्हजें
भुरग्यां वरी कोयरान भरता
गुलमोहर सळसळट्या रगतान्चो
वताच्या रखरखांत
होळयेचें होमखण कसो
भान सोडून भगभगता
गुलमोहर एक जाणटो कसो
तिनसांजेच्या थंड वारार
अळंगपणान खांदयो हालोवन
आशीर्वादा कुरू करता.

# हावेस

निकतींच चलूंक लागिल्ल्या तुज्या पावलांक
मळब माडोवपाचो हावेस
चांटये पावलार कांटेच कांटे
'सांबाळून चल पुता'
आमची एक शिटकावणी
तुका बेठेंच आडमेळेशें
कानार केंस ओडून तुका चलपाचो सोंस
तुजे चिंतेन आकूळ पिकूळ
अणभवी धवे केंस.

## देवके

देवके तुका घडये खबरय नामत
दर वर्सा श्रावण अष्टमीचे रातीं
तुज्या दोळ्यांक लागिल्ले धारेंत
म्हजोंय दुकां भरसतात
तुजीं दुकां आतां म्हजीं जाल्यांत
तुज्या काळजाचो कुडको
आतां म्हजें आख्खें काळीज जालां
म्हज्या तनामनांतल्यान तें धडधडटा.
हो म्हजो भास? काय एक निव्वळ सत?

देवके तुका घडये खबरय नासत
तुज्या कान्हाचे राखणेक
म्हज्या पदरांत भरसल्लो तुजो पदर
खिणाखिणाक तुजी याद जागयता
तुजे तळमळे म्हज्या मनांत ल्हारेतात
यशोदामैंय्या म्हणून घेतना
कान्हाच्यो बाळलिला तोखेतना
देवके म्हज्यांत तूंच भरसता.
हो म्हजो भास? काय एक निव्वळ सत?
देवके तुका घडये खबरय नासत
तुजें रीण म्हजेर सासणाचेंच
केन्नाच ना पावोवपाचें.
हें मात एक सत, निव्वळ निखळ सत.

## स्वतंत्रताये

धन्य तूं माये, स्वतंत्रताये
नमन तुका गे करतां
देवाऱ्याची तूं सोबाय म्हज्या
लक्ष फुलां तुका ओपतां
तुजे पासत गे ओपले
कितले जाणांनी प्राण

घरदार सोडून झुजले
विसरून भूक तान
नाकूट भरय ना केली
केन्नाच तुजी गे सेवा
तरीय तुज्या नांवान
आमी खातात मिठाय मेवा
तांणी सत्यमार्ग धरून
घरादाराची केली होळी
आमी अधर्माचे वाली
भाजून घेतली पोळी
धन्य तूं माये स्वतंत्रताये
भरभरून दान तूं दिता
आमी नाड आसूं फटींग
तूं घर आमचेंच भरता
ते एकवटाक झुजले
आमी घाल्यो मर्दी वणटी
तरीय माये तुजे राखणेक
आमीच पेटयतात पणटी.

# हांच म्हजो ध्यास

इल्लीशी पणटी हांव
हावेस म्हजो व्हड
काळखाचेर जैत जोडप
हाचीच म्हाका ओढ.
वादळ वारें आम् कितलेंय
काळीज म्हजें व्हड
इल्ल्याशा म्हज्या कुडुलांत
माये मोगाची जोड
चिमटीभर फूल हांव
परमळटा म्हजो सुवास
गळटले दोळे पुसप
हीच म्हजी आस.
खिणभराचें जिवीत जरी
म्हणटां सगळ्यांक हांस
मरणाचेर जैत जोडप
होच म्हाका ध्यास.

## तें सुकिल्लें झाड

पाना फुलांची मिरास मिरोवपी
तें झाड आतां सुकें काश्ठ जालां.
पावस येवूं, वसंत येवूं,
ताका एक्कय आंकरी फुटना
एक्कय घोंटेर ताचेर धोलना
सुकण्याच्या म्होवाळ गितांनी ताच्या
जीर्ण आंगाची सालय थरथरना.
भुंयेंत खोल खोल गेल्ल्या ताच्या मुळांक
मातये कडचें नातें तुटूं तुटूं जालां
निस्तेज जाल्ल्या दोळ्यांनी तो वाट तेळटा
एका वादळी मोडाची, ताका मुक्ती दिवपी
मात...
अजुनय कांय सुकणीं, खिणभर कांय जायना
तें दवरणें कशें ताचेर येवन बसतात.
त्या म्होव्या खिणांत गतवैभवाची याद जागयत
आतां तें सुकिल्लें झाड दीस सारता.

# फूल पिशीं

तीं वत पिशीं झाडां
कडकडीत वत पियेन पियेन
ताळी-मुळीं पिशों कशीं फुलतात.
पावशी वाऱ्या कडेन
भान सोडून खेळटना
पाकळेन पाकळी झडयतात.
पांयतळा चिखलकालो तरीय
पावस धारो पियेत पियेत तीं
तृप्त मनान पाचवे शालींत मुरगुट्टात.
आमीय फूल पिश्यो अस्तुऱ्यो
कोणाचेरय जीव ओंवाळटात
सर्वस्व लुटोवनय तृप्त तृप्त जातात.

## ती

वसंताची सुलूस लागचे पयलींच
रुखा झोंपांक दुवाळे सुरू जाले
ऐन वताभारार जडावल्ल्या तांकां
प्रसव वेणांनी खासावीस केलीं
आनी सैम फळाफुलांच्या भारान बागोवन गेलें.
सैम सुवाळ्यांत धर्तरी जडावली, सुस्तावली.
हो अप्रुपाचो सैमखेळ तेळपी ती
आपल्या गर्भवेणांत घुस्मटली
भरिल्लो घोंटेर रितो उडोवन गेल्ल्या
पिलांचे यादीन आकूळपिकूळ जाली.
पावशी वाऱ्यान सर्वस्व लुटुनय
यादींच्या पाचव्या पावलांत मुरगुटपी झाडां
तिच्या मनाक थाकाय दिवन गेलीं.
घराच्या कणाकणांत भरसल्या
आपल्या बाळशांच्यो यादी वेंचतना
तीय सुखावली, तृप्त तृप्त जाली.

# अभिमन्यू वरी

फ्लॅट नांवांचे सोबीत संरक्षणींत
रावपी आमची संस्कृताय
फ्लॅटा इतलीच फ्लॅट जाल्या
आखीव आनी रेखीवय जाल्या.
भांगरा पांजऱ्यांतल्या किरा वरी
मेकळ्या वाऱ्याकय पयसावल्या.
त्या फ्लॅटांतलीं तरेकवार खुमणीं
जशीं कितें कॉंक्रिटाचींच बावलीं
तांच्यो भावना, उमाळे सगळें सगळें
जशे कितें शिमिटानच दसयलां
डुबडुबता जरी तांचें काळीज
तरीय तेंय आतां कॉंक्रिटाचेंच जालां.
आतां बिल्डिंगांच्या ह्या चक्रव्युहांत
घुस्पून गेलां मनीसपण अभिमन्यू वरी.

# तीन कातरेर

मळबांगणांत नक्षत्रांची
एक एक पणटी पेट्टना
निळशी काळशी शाल मळब
आंगभर ओडटा-ओडटना
तीन कातरेर मन सतर-वितर
नकळ अशें कित्याक जाता.

घमघम केंसांतले मोगरेचो
नाका देगेर हुळहुळटा
काळीज सतार छेडिनासतनाय
अचकीत अशी झंकारतना
तीन कातरेर मन सतर-वितर
नकळ अशें कित्याक जाता.

पावलट हळूच अशी तुजी
मनाक अचकीत सादयत येता
गळसणटा माळ मोतयांची
एक एक मोती शिंपडून पडटा
तीन कातरेर मन सतर-वितर
नकळ अशें कित्याक जाता.

## तूं उलोवं नाका

ताजमहाला,
तुजे स्वर्गीय सुंदरायेची क्राणी
दर एकल्याच्या ओंठार गितां फुलयतात
सृजनतायेक कोंबऱ्यो हाडटात.
अमर मोगाची गवाय सांगपी
तुजे मोगीजन पुजा बांदतात.
हेंच एक तुजे वरी सुंदर सोबीत चित्र.

ताजमहाला,
तुका उलोवंक येना म्हणून बरें
तुज्या बंद ओंठां आडचें रक्तरंजीत महाभारत
भितल्ले भितर घुस्मट्टा म्हणून बरें,
तें भायर आयलें जाल्यार
तुजें प्रत्येक उतर उज्या केण ओंकतलें
तुजे पासत जिवदान दिवपी, तांच्या वेदनेचे
पडसाद धाय दिकांनी घुमतले.
आनी, ते बंदिस्त बंदखणींत तळमळपी तो
निमणे खिणा मेरेन रक्तदुकां गळोवपी तुजो रचनाकार
ताचीं दुकां तुज्या फातरा फातरांतल्यान पाझरतलीं.
नाका ताजमहाला, तूं केन्नाच ओंठ उगडूं नाका
तुजे स्वर्गीय सुंदरायेंत पिशांक पिशे जायत रावंदी
तुज्या जळट्या काळजा मेरेन वचपाची तांक तांकां ना
तोवेर तुजें दुख्ख बंद ओंठां आड खतखतत रावंदी
ताजमहाला, तूं उलोवं नाका, उलोवंकच नाका.

# फू बाई फू

फू बाई फू, फुगडी फू
दमलास काय माझ्या
आमदारा तूं रे आमदारा
दीस रात भोंव रे तूं घालीत घोमोळ
आयल्यो वोडी तुका, आयल्यो वोडी
कॅसिनोचे गादयेर दुडवांचे शेजेर
घे तूं विसव रे घे तूं विसव
फू बाई फू, फुगडी फू
दमलास काय माझ्या
आमदारा तूं रे आमदारा

न्हंयो दोंगर कर पाड, घाल तूं सैमाक आड
खण रे तूं तुज्याच हातान तुजोच फोंड
आम आदमी जावंदी जाम, पिये तांचो तूं घाम
दिसरात कर तुजें जोडीचें काम
फू बाई फू, फुगडी फू
दमलास काय माझ्या
आमदारा तूं रे आमदारा
सरसर झाडाचेर, झाडा वयलयान सकयल
ह्या घरांत त्या घरांत मार तूं दड
पाडसा वयलो कुंवाळो तूं भिरांत सोड
हे वटेन ते वटेन घुंवत राव तूं खोऱ्यांनी ओड
फू बाई फू, फुगडी फू
दमलास काय माझ्या
आमदारा रे तूं आमदारा.

## कांसव जिखता
## पैज सोंशाची

मीण मीण करता एक पणटी
जैत जोडटा काळखांचेर
ज्योतीन ज्योत पेटयत वता
उजवाड घालता धर्तरेचेर
ही रितच पापया जगाची
कांसव जिखता पैज सोंशाची
समर्था घरचें आसल्यारय स्थान
सगळेच दितात ताका मान
ही रितच पापया जगाची
कांसव जिखता पैज सोंशाची.
ज्या घरांत ती जल्मता, वाडटा
सोडून सगळे बंध मायेचे
मुळां रुजयता मातयेंत दुसरे
फुलता-फळटा भुंयेर दुसरे
ही रितच पापया जगाची
कांसव जिखता पैज सोंशाची.

## कवनकूंज

1

चंद्र सुर्याक काळ्या कुपांचो शिराप
आनी गिराणाचीय बादा
राम-कृष्णा वरी अवतारी पुरसांकय
नियती चुकली ना
थंय तुजी, म्हजी कितें पाड?

2

ताच्या दोळ्यांतले धगी फाटलो मोग
म्हाका कळ्ळो ना
तिचे मायेची उब म्हाका उमजली ना
तांच्या बालहट्टाची रुच हांवें घेतली ना.
आतां जाणटेपणांत तुज्या ओंठांची थरथर
मनाची भास सगळें सगळें म्हाका होलमता

3

आल्हडया मळबाचेर तुवें मार्ग केला
तूं किर्णां फाकयत चलता
पूण सभाग्या
निदेचें मरण घेतिल्ल्याक
तूं जागोवंक शकता?

4

सुंदर सोबीत बुरख्या आड
फुलांकय कांटे आसतात विस्वाळे
काळ्या कुळकुळीत बुरख्या आड
कुपांकय तांक आसता नवनिर्मणेची

5

सोरपांक दूद पिययत रावलें
तांणी डंख मारचो सोडलो ना
आतां एक बरें जालां,
म्हाका तांचें वीख
पचोवपाची संवय जाल्या

6

चुडटांचे जाळयेंतल्यान
अचळय चंद्रीम हांसलो
यादींच्या म्होवा माल्यार
नकळ कोणें फार माल्लो

7

आमी उदेत्या सुर्याक आरत दाखयतात
परधार्जिण्या चंद्राक तोखेतात
काळ्या काळखांत लिकलिकपी
नखेत्रांक आमी पळयचनात

8

हो खेळ वत सावळ्यांचो
खिणयाळ्या जिविताचो
तुजें म्हजें करत ना झुजपाचो
एक दीस हो डाव सोडून वचपाचो

## हिमालया

हिमधवल हिमालया
तुजेर ही कितली अपूर्बाय
दोंगरार दोंगर, दोंगरार दोंगर
तटाम नदर पळोवन उबाय
रूखाय तुजे उंचच ऊंच
लिपयतात सुर्यांची सोबाय
तूं युगपुरूस रे व्हड
पिळग्या पिळग्यांची दिता गवाय
तुजेर झरे-वझऱ्यांचे घांत
पाशाण फोडपी तांची धिटाय
लाबच लांब तुज्यो न्हंयो
तांचे ठांय समृद्धेची खोलाय
तूं तपस्वी तापसी रे म्हान
बसला हांगा तूं युगां युगां
बर्फभरीत पालवा आडच्यान
भेटयत सृजनाची सासय

(मनाली)

## रान देवदारांचें

ते उंच उंच देवदार रूख
माथ्यांत सुर्या माळून उबे
दिगंताचीं चिंतनां माथ्यार घेवन
ध्यानस्त उबे रुशी कशे
भर दिसा उजवाडे लेगीत
तांणी काळोख रेवडायला आनी,
उजवाडाची पातळशी शाल
तांच्या खांदार
वोतय थंय मोव मोवशें, हयन्हयशें
पोटांतल्यान कवळे येवपी ते थंडेंत
अनंत काळाची गवाय दिवपी
देवदाराचें काळकाळशें गच्च रान
नकळ कसली आध्यात्मीक भूल घालता
नतमस्तक जावंक लायता

(शिमला)

## त्या थंय

शेणान सारयिल्ल्या त्या थंयच्या आंगणांत
चंद्र चान्नें ओन्तालो पुनवे रातीं
चुडटांचे जाळयेंतल्यान
सावळे-उजवाडाचें जाळें विणीत.
मनांत म्हज्या ल्हारां उचांबळटालीं
शिरी शिरी सपनां फुलतालीं
चंद्र ओतता चान्नें आजय बी
शिमिटाचे हे बंदिस्त गॅलरींत
दोनय हातांनी भरभरून
मन मात म्हजें घुस्मट्टा
शिमिटाचे हे बंदखणींत
चुडटांचे जाळयेंतल्यान झडपी
त्या चान्याची याद जागयत.




## सुंदरी पहलगाम

त्या निळनिळशा मळबातळा
काळशी निळशी शाल धुंवरेची
पांगरून बसल्यात दोंगर जोगी.
बर्फ ओली फांतोड थंडगार
शिरशिरायता ल्हंवे ल्हंवेक
गीत अनवळखी गायतात सुकणीं
सूर तांचे मनभुलोवणे
फातर गुण्यांतल्यान उदक फेसाळ
झुळझुळटा खळखळटा
काश्मीर सुंदरी घालून ओणोव
जल हारशांत रुप तोखेता

## पर्वत

झेलम न्हंयेचीं बांदून पुंगगं
मळबवेथी पर्वत उबे
स्पटीक रुपी मुकूट झेलाचो
मदींच व्हांवती घसघशे दुदावे
आंगार चित्रां रुखां झोंपांचीं
अजापांच तीं तटास दोळ्यान पळोवचीं
उंचाय रुखांची कितली गा ती
सूर्य किरणां खांदार झेलती
माटोव थंय दाट पानांचो
सावळी काडटा भुंयेर नक्षी
आकांताळे हे पर्वत काश्मीरी
जशे म्हान योगी मुनी तपस्वी
निळकंठी जशे ध्यानांत जोगी

# गुलमर्ग

हालत धोलत गंडोलाच्या पाळण्यांत
हुपले बर्फाचे उंच उंच पर्वत
दवरलें पयलें पावल बर्फाच्या मळार
शीण शीण वारो थंयचो थंडगार
थंड झेलाद ताणें दिलो येवकार
राशी कितल्यो बर्फाच्यो, चोंय वटेच्यान बर्फच बर्फ
चकचकीत फाटीर साक्षात हिमालयाचे...
मन भुल्लुसलें उमेदीन फुल्लें
कुकुलेंच बाळशें कशें जावन
लागलें बर्फ शिंवरूंक मुठी भरभरून
अप्रूप रुप हें तुजें हीम-आलया
सकलजनांक घालता भूल.

# दल सरोवर

निळनिळशा पर्वतां मधीं
पाचवें-निळें दल सरोवर
कोंदणांत बसयिल्ले वरी
जसो नीलमणी मनोहर
हारसोच तो एक बिलोरी
प्रतिबिंबां पळयतात पर्वतमुनी
चकचकीत त्या सरोवरांत
फिरतात शिकारे दोंबळे कशे
चुबूक चुबूक संगीत व्हल्यांचें
तालार तांच्या धोलप आमचें
घरां उफेतीं निळ्या जळांतलीं
मर्दीच गालीचे रंगयाळ्या कमळांचे
आनी उफेवपी मळे फुलां-फळांचे
तृप्त जायना तान दोळ्यांची
पळयत रावची दाली सोबेची
पाचवें-निळशें हें दल सरोवर
काश्मीराचें एक सपन मनोहर

## सोनमर्ग

पाचवो, हळदुवो पांगरून गालीचो
बसल्यात हांगा कितल्योच दोंगुल्ल्यो
सोनसया तोंडार तांच्या
सार्थ जाता नांव सोनमर्ग
सरभोंवतणी पर्वत झेलाचे
झीण झीण झीण झीण शिंयां कुडकुडो
सुस्त न्हिदिल्लें मानगें जशी न्हंय ती गोठेल्ल्या झेलाची
टपटप टपटप घोड्यार बसून
भणभण वाऱ्यार भोंवचें फिरचें
जीव धादोस जालो ना जरी
बसकण मारची खंयी फातुल्लेर
सोनमर्ग हें मळ भांगराळें
तान न्हिवता पळोवन हे सुवाळे
मनभुलोवणे रंग रंगयाळे
काश्मीर सुंदरीचे शेले गळ्यांतले

## बागो

कोणा राजकुंवराक पडटा एक सपन
उदकाक नाचयतना खेळयतना
तो तान भूक विसरता,
आनी तेन्नाच
निशात, शालीमार, चश्मेशाही जल्मता
चलता थंय रंगारंगाची शिंवरण
रुखां झोंपाचें मनोहारी दर्शन
चोंय वटच्यान सरमाळ्यो गुलाबांच्यो
कितल्यो कितल्यो तरा सांगच्यो तांच्यो
आनी मदीं मदीं गपचीप उबे
मळब गवसणी घालपी रुख चिनार
फुलपाकुल्यांकय पिसावपी तीं फुलां
सुकण्यांकय गावंक लावपी त्यो बागो
सोबीत नटयिल्ल्यो जश्यो विशाल फुलदाणयो
कितल्यो पळोवच्यो, कितल्यो तोखेवच्यो
आपसूक बागवता आमची मान
त्या बादशहांक करूंक कुर्निसात
तांकां आमचे लाख लाख सलाम

## मनगीत

दर्याचे वेंगेंतल्यान आयिल्लीं आमी
बर्फाचे वेंगेंत रिगतना
मन म्हजें भुल्लुसलें
आनी थंड झेलाद वाऱ्यार
गीत एक थरथरलें ओंठार
बर्फांत गोठेल्ल्या त्या तळपाचेर
मनकाडी घेवन कोरांतलीं उतरां
मात काळजाचो धग लागतनाच
विरगळ्ळें उतरान उतर
आनी त्या थंडगार झेलांत
जालें एकरूप मनगीत

(गुल्मर्गाक)



- कविता, कथा, अणकार, प्रवास वर्णन आनी बालसाहित्य अशे सबार साहित्य प्रकार हाताळ्ल्यात. आतां मेरेन 25 पुस्तकां उजवाडा आल्यांत. एक कवितां झेलो, तीन कथा संग्रह, दोन अणकारीत पुस्तकां आनी बाल साहित्याची एकुणीस पुस्तकां उजवाडा आयल्यांत. त्या भायर कांय शिक्षणीक पुस्तकांय बरयल्यांत. विंगड विंगड विशयांचेर, विंगड विंगड साहित्य प्रकार तीं हाताळटात आसात.
- तांच्या 'घॉटेर' ह्या कथा संग्रहाचो पयलें वर्स बी.ए.च्या अभ्यासक्रमांत आसपाव जाला, दुसरें वर्स बी.ए. खातीर संकलीत केल्ल्या काव्य संग्रांत 'काळखाचें झाड' हे कवितेचो आसपाव, गुजरात विद्यापीठान भारतांतल्या वीस भाशांतल्या लेखिकांच्या कथांचें गुजरातींत केल्लें संकलन 'संवाद' पाठ्यक्रमांत आसपावन घेतलां तातूंत 'खरो सत्कार' ही कथा, ते भायर मराठी, हिंदी, कन्नड, गुजराती, तेलगू, सिंधी अश्या सबार भाशांनी कथांचो अणकार.

**आजवेर तांकां पांच पुरस्कार मेळ्ळ्यात.**

1) एनसीईआरटी दिल्लीचो बालसाहित्य पुरस्कार 1998-99.

2) कोंकणी कला केंद्र कुडचडें, बालसाहित्य पुरस्कार 2003.

3) कोंकणी भाशा मंडळाचो, 'मळब झेप' कथा पुरस्कार 2007.

4) एआयसीपी खुर्जाचो 'माँ शारदा' काव्य पुरस्कार 2010.

5) गोवा कोंकणी अकादेमीचो, 'मृगजळ' कथा पुरस्कार 2010.